खंयच्चि म्हण सोदुन काडचें; हेंच भाशाविज्ञानाचें मुख्य तत्व । अशें, कोंक्णी आनी मराठि भासां मधें प्राचीन भास खंयच्चि म्हण सोदुन काडचोच ह्या लेखनाचो उद्देश ।

(चालु आसा)

श्री बस्ति पुंडलीक वेंकटेश णेणाई हांणि बरयिल्ल्या "कोंकणी मत्तु मराठि अिवुगळ तुलनात्मक विमर्शे मत्त सारस्वत ब्राह्मणर प्राचीन इतिहास" म्हळ्ळया पुस्तकाच्या आधारान)

–आल्बन कास्तेलिन

ವಿಜ್ಞಾನಾಚೆಂ ಮುಖ್ಯ ತತ್ವ. ಅಶೆಂ, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಆನಿ ಮರಾಠಿ ಭಾಸಾಂ ಮಧೆಂ ಪ್ರಾಚೀನ್ ಭಾಸ್ ಖಂಯ್ಚಿ ಮ್ಹಣ್ ಸೊದುನ್ ಕಾಡ್ಚೊಚ್ ಹ್ಯಾ ಲೇಖನಾಚೊ ಉದ್ದೇಶ್. [ಚಾಲು ಆಸಾ].

ಶ್ರೀ ಬಸ್ತಿ ಪುಂಡಲೀಕ ವೆಂಕಟೇಶ ಶೆಣಾಈ ಹಾಂಣಿಂ ಬರಯಿಲ್ಲ್ಯಾ "ಕೊಂಕಣಿ ಮತ್ತು ಮರಾಠಿ ಇವುಗಳ ತುಲನಾತ್ಮಕ ವಿಮರ್ಶೆ ಮತ್ತು ಸಾರಸ್ವತ ಬ್ರಾಹ್ಮಣರ ಪ್ರಾಚೀನ ಇತಿಹಾಸ" ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಚ್ಯಾ ಆಧಾರಾನ್.]

—ಆಲ್ಬನ್ ಕಾಸ್ತೆಲಿನ್

—oo—

# चुटुकां

काळभाणेच्या कुपां मधल्यान
झगलाण्याचि तलवारे शिर
घडघडयाच्ये फुटण्णे पाटल्यान
पाव्सा रायाचो
दुखां शिंवर!

पुन्वे रात्रि
मोळभाक पळे
मोडांक देखोन
चंद्र लिप्ता
तीं धांव्तेच
हळू तिळुन
आपुर्बायेन
हो हास्ता!

–वल्ली, वग्ग

# ಚುಟುಕಾಂ

ಕಾಳ್ಭಾಣೆಚ್ಯಾ ಕುಪಾಂ ಮಧ್ಲ್ಯಾನ್
ಝುಗ್ಲಾಣ್ಯಾಚಿ ತಲ್ವಾರೇಂ ಶಿರ್
ಘಡ್ಘಡ್ಯಾಚ್ಯೆ ಫುಟವ್ಣೇಂ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್
ಪಾವ್ಸಾ ರಾಯಾಚೊ
ದುಖಾಂ ಶಿಂವರ್ !

ಪುನ್ವೆಂ ರಾತ್ರಿ
ಮೊಳ್ಭಾಕ್ ಪಳೆ
ಮೊಡಾಂಕ್ ದೆಖೊನ್
ಚೆಂದ್ರ್ ಲಿಪ್ತಾ
ತೀಂ ಧಾಂವ್ತೆಚ್
ಹಳೊ ತಿಳುನ್
ಆಪುರ್ಬಾಯೆನ್
ಹೊ ಹಾಸ್ತಾ !

—ವಲ್ಲಿ, ವಗ್ಗ

—oo—

# जेजुच्ये सभेचो आंजेलो माफेयि



कोंक्णी भाषेचि सेवा कर्न कोंक्णीचो दिवो जळयित्त दवरुंक वावुरलेल्या पुर्विल्या व्यक्ति पयकि परगांवां थाव्न भारताक शुभ वर्तमान पर्गटुंक आयिल्ले याजक आसात। हांचे पयकि जेजुच्ये सभेचो मानादिक आंजेलो माफेयि बाप अेक्लो। आंजेलोचि भासांचि जाण्वाय कसि वाडलि आनी खंयचा मनोभावान ताणे कोंक्णीचि सेवा केलि म्हण सम्जोंच्याक ताचा जिविता विष्यांत थोडि माहेत जोडचि गर्ज।

आल्प्स पर्वताच्या फाल्त्यांत पिंझोलो म्हळ्ळेकडेन १८४४ नवेंबर १२ तारिकेर आंजेलो माफेयि जन्मल्लो। त्या काळार हो गांव ओस्ट्रिया राज्यांत आस्ल्लो तरयी पयल्या महा झुजा उप्रांत इटलि राज्याचो बांटो जांव्क पाव्लो। थोडो काळ दक्षिण ओस्ट्रिया आनी थोडो काळ उत्तर इटलिचो भाग जाव्न आस्लिलि हि गडिसुवात इतालियन तशें जर्मन कुटमांचें वस्तेस्थान जाव्नास्लिलि। ह्या प्रदेशांत इतालियन आनी जर्मन–ह्यो दोनुयी भासो उलयताले। माफेयि नांवाच्या इतालियन कुटमांत आंजेलो जल्मलो तरयी ल्हानपणि थाव्न जर्मन आनी इतालियन भासो शिक्लो। जसें मंग्ळुर्चे क्रीस्तांव लानपणींच कोंक्णी, कन्नड आनी तुळु भासो शिकोन उप्रांत दुसरि खंचियी भास जाल्यारयी वेग्गींच जिकुन धर्तात तशें आंजेलो माफेयिक भासांचि ओळक ल्हानपणींच जालि।

विद्याभ्यासाक नांवाडल्लया ट्रेंट गावांत आपलें शिकाप जातच्च, याजक जांव्चा उद्देशान रोमांत आस्चा ग्रेगोरियन विश्वविद्यालयांत तत्वज्ञान आनी देवशास्त्र तो शिक्लो। माफेयिच्या काळार असलें शिकाप लातिन भाषेन करुंक जाय आस्ल्लें आनी देवशास्त्राचा शिक्पाक ग्रीक आनी हिब्रु भासांचि जाण्वाय गर्ज आस्लिलि। ह्या वर्वीं आपल्या २७ वर्सांच्ये प्रायेर याजकपणाचि दीक्षा ताका मेळतास्ताना, आंजेलो माफेयि पांच भासांनि प्रवीण जांव्क पाव्लो। आपल्या स्वाभाविक देण्यांचो आनी द्रड मनाच्या प्रयतनाचो फळ जाव्न पिअेच. डि. आनी डि. डि. सनद्यो ताणे आप्णायल्यो।

याजक जाव्न थोडयाच महिन्यांनि, आंजेलो जेजुच्ये सभेंत प्रवेश जाल्लो। उपरांत दोन वर्सांनि आपल्यो पयल्यो आंगवण्यो कर्तांना फ्रान्सिस सावेर म्हळ्ळें चडित नांवयी ताणे घेतलें।

उप्रांत अगळेंउणे पांच वर्सां ब्रिक्सेन आनी स्कूटरि म्हळ्ळेकडेन जेजुच्ये सभेचा आडळते खाल आसल्ल्या कोलेजिंनि चरित्रा, गणित, तत्वशास्त्र आनी देवशास्त्र ताणे शिकयलें। ब्रिक्सेन शहर आपल्या जन्माच्या प्रांतांतच्च आस्ल्लें; पुण स्कूटरि, आल्बेनिया गांवाचि सुवात। त्या काळार, स्कूटरिंत आस्ल्ये जेजुच्ये सभेच्ये कोलेजींत इतालियन भाषेंत शिकाप चल्तालें जाल्यारयी, आसपासच्या लोकान उलंवचि भास आल्बेनियन जाव्नास्लिलि। ग्रीक भास उलंव्चो लोकयी थंयसर जियेतालो। लोकाक बरेपण करचा मनोभावान याजक जाल्लो आंजेलो माफेयि आल्बेनियन भासयी शिकलो म्हण पात्येव्येत।

१८७८ इस्वेंत लियांव तेराव्या पापसायबान, मंगळूर आनी मलबार धर्मक्षेत्राचि जवाब्दारि कार्मेलितां थाव्न जेजुवितांक वरगायलि आनी जेजुच्ये सभेचा वेनिस प्रांतान हें धर्मक्षेत्र आपलें करून घेतलें। १८७८ नवेंबर

२७ तारिकेर जेजुच्य सभेंचा तेगां पुर्वितां आनी दोगां धर्मबंधु संगि आंजेलो माफेयि वेनिस प्रांत्या (नेपल्स बंद्रा) थाव्न भायर सरोन, तार्वार पयण कर्न बोंबय पाव्लो। थंयसर जर्मन प्रांताचे दोग जेज्वित पुर्वित तांचे संगि मेळ्ळे आनी हे आटयी जण गोंयां पाव्ले। मंग्ळूराक विगार आपोस्तलीक जाव्न नेमक जाल्लो मो।। निकोलस पागानि गोंयांत तांच्या सांगाता मेळतच्च, हे नोव जण गोंया बंद्रा थाव्न तार्वार पयण कर्न १८७८ दसेंबर ३१ तारिकेर मंग्ळूर बंद्राक पाव्ले।

मंग्ळूर्चा क्रिस्तांवांचि मायभास कोंकणी जाल्यारयी विद्याभ्यास जोडल्ले इंग्लेज उलयताले। आंजेलो माफेयिक ह्यो दोनुयी भासो नव्यो तरुयी ताण त्यो शिकोंक आरंभ केल्यो। स महिन्यां भितर आसपासच्या फिर्गजांक भेटो दीव्न कोंक्णींत प्रसंग दींव्क तो लागलो। देड वर्स संपचे भितर आपणाबरिच्च पर्गांवाथाव्न आयिल्ल्या याजकांक आधार दिव्चा उद्देशान कोंक्णी व्याकरण आनी इंग्लीष-कोंक्णी, कोंक्णी-इंग्लीष शब्दकोश ताणे बरंव्क धरलो

मंग्ळुर पाव्तच १८७९ जनेर २२ तारिकेर सां जुजेच्या सेमिनरिचो प्राद्यापक आनी व्हडिल जाव्न ताका नेम्लो। ह्या काळार जेजुच्ये सभेंत नवेच्च घेतल्ल्या तर्नाटयांच्ये तर्बेतिचि जवाब्दारियी ताचेरच सोडलि। हाचे भायर पुर्सत मेळल्ल्या वेळार लाग्सार आसल्ल्या देव्हाळांनि तो वावुर्तालो, शेर्मांव सांग्तालो आनी शिकोण दितालो। भाषेचें विद्वत्त ताचें विशेस देणें। आपल्या सर्व राटावळि मधें कोंक्णी व्याकरण आनी शब्दकोश ताणे बरंव्क धरलि। ताचें, व्याकरण १८८२ इस्वेंत आनी शब्दकोश १८८३ इस्वेंत मद्रास सरकारान आपल्या खर्चार पर्गट केलिं।

माफेयि बापाचि जाण्वाय विशेस म्हण ह्या वेळार ताचि ओळक आसल्ले सांग्ताले। खंयचेय भाषेच्या सब्दांचि पट्टि अेक पाव्टि वाचल्यार पुरो, ते सब्द उग्डास दवर्न आनि विविध थरान गुंतुन उलोंव्क तो सक्तालो। तीन चार मिनुटांच्ये तयाराये उप्रांत घंटोभर सुडाळ उत्रांनि शेर्मांव सांग्चें आपलें देणें देवाचेंच बेसांव म्हण माफेयिच म्हण्तालो। कोंक्णी भाषेचो नाद इतालियन भाषेचा नादाबरि; कोंकणीचें व्याकरण लातीन भाषेचा व्याकरणाक सरि करयेत; कोंक्णी भास इतालियन, जर्मन, ग्रीक भासांबरि इंडो-आर्य भास–ह्या सर्व कारणां र्वीं माफेयि बापाक कोंक्णी शिकोंक आनी कोंक्णी व्याकरण आनि शब्दकोश बरोंव्क सुलभ जालें म्हण्येत। तरुयी तो भासांचो विद्वांस म्हण रूजु जाता।

१८८८ इस्वेंत मंग्ळुरच्ये सां लुविस कोलेजिंत चरित्रेचो प्राद्यापक म्हण माफेयि बापाक नेम्लो। १८९१ इस्वेंत कोलेजिचो प्रिन्सिपाल आनी थोड्या महिन्यां बितर ताका रेक्टरयी केलो। १८९६ इसवि पर्यांत कोलेजिचो रेक्टर आनी १८९८ पर्यांत प्रिन्सिपाल कसो तो वावुर्लो। इतल्या जवाब्दारेच्या कामां मदें कोंक्णी भाषेचि सेवा, माफेयि बापान मुंदरुन वेलि। कुम्सारां आयकोंक सलिस जांव्चेखातीर "याजकाचो कोंक्णी सांगाति (Confessor's konkani vade-mecum) म्हळिळ ३८ पानांचि पुस्तिका १८९१ इस्वेंत ताणे पर्गट केलि। चड करून कुम्सारांत सांग्चिं पातकां, दिव्चि शिकोण, प्राचित अित्यादि कोंक्णींत बरोव्न तांचो अर्थ इंग्लीष भाषेन ह्ये पुस्तिकांत दिला।

आण्णें १८८२ इस्वेंत प्रगटलेलें व्याकरण ताकतीन बरयिल्लें देकुन, १८९२ इस्वेंत मोटवें आनी चड उत्तीम मांडावळिचें आनींक अेक व्याकरण ताणे उज्वाडाक डाडलें। माफेयि बापाचिं च्यार कोंक्णी पुस्तकां आज आम्कां पळेंव्क मेळतात। हांचि नांवा अशिं आसात:

1. A Konkani Grammar by Angelus Francis Xavier Maffei of the Society of Jesus, Mangalore, 1882.

2. An English-Konkani Dictionary by Angelus Francis Xavier Maffei of the Society of Jesus, Mangalore, 1883.

3. The Confessor's Konkani Vade-Mecum by A.F.X. Maffei, S.J., Mangalore, 1891.

4. Konkni Ranantlo Sobit Sundor Talo or A sweet voice from the Konkani Desert by A.F.X. Maffei, S.J., Mangalore, 1892.

ह्या पुस्तकां शिवाय माफेयि बापान, जेजु क्रीस्ताच्या पाशांवाचि कथा, सां फ्रान्सीस सावेरान दिल्लो क्रीस्तांव समोडतिच्या सतांचो विवर, इत्यादि हेर ल्हान कडतिल्योयि बरयल्यात । पुण हीं पुस्तकां आतां पळेंव्क मेळनांत ।

कोंक्णी, द्राविड वर्गाचि भास नहीं, आर्यवर्गाचि; कोंक्णी, संस्कृत भाषे थाव्न देंवल्लि अेक स्वतंत्र भास? ती मराठिचें अेक विकार रूप व मराठिचि भयण भास? हो वाद चल्तालो । असलो वाद चल्तास्ताना, माफेयि बापान हेर भासांच्या अध्ययनाविं आर्प्णें केल्ल्या संशोधनाचो फळ जाव्न, कोंक्णी, संस्कृता थाव्न देंवोन आयिल्लि अेक स्वतंत्र भास म्हण दाकोव्न दिल्लें ।

१९४८ इस्वेंत उज्वाडाक हाडल्ल्या Case for the Linguistic Province of Konkani with Bombay city as capital by George Moraes, M.A.,—ह्या कडतिलेंत कोंक्णी भाषेंत उण्यार १९ व्याकरणां आनी २४ वाक्सऱ्यो आसात म्हण आमीं वाच्तांव । पुण कोंक्णी भाषेंत गोंयचि, उत्तर कन्नडाचि, दक्षिण कन्नडाचि अश्यो वेगवेगळयो थरा आसात । मंगळुर्चा क्रीस्तावांनि उलंव्च्ये कोंक्णी भाषेक व्याकरण आनी शब्दकोश माफेयि बापान बरयिल्लि तींच पयलिं । हेर व्याकरणां आनी शब्दकोशां थाव्न आप्णाक सहाय मेळोंक ना; बगर लोकान उलयिल्लें आयकोन आनि उत्रांच्या प्रयोगाचि परिक्षा करून आपलें व्याकरण आनी शब्दकोश बरयिला म्हण तो म्हण्तालो । माफेयि बापाचिं हीं पुस्तकां आदल्या काळार मात्र नहीं बगर आतांचा दिसांनि पर्यांत अमलिक पुस्ताकां जाव्न उरल्यांत ।

माफेयि बापान कन्नड, तुळु, मलयाळं, तमिळ आनी संस्कृत भासांवेंयी अध्ययन केल्लें । तुळु शब्दकोश ताणे बरोंव्क धरल्लो जाल्यारयी "इ" अक्षर मेरेन मात्र तो पावल्लो ।

चरित्रेचो प्राध्यापक कसो तो वावुर्लो मात्र न्हय बगर चारित्रीक संशोधन सय्त ताणे चलयलें । वास्को द गामा भारताच्या कोझिकोड (क्यालिकट) थाव्न धा मय्लां पय्शिल्या कोल्लाम बंद्राक पावल्ल्या चवत्या शताब्दे संदर्भीं, अेक लेखन ताणे पर्गट केलें जाल्यारयी, ताचा संशोधनाचो अधिक व्हड वांटो हात–बर्पींच उर्लो । कोलेज प्राध्यापकाच्या हुद्दयाथाव्न निवृत्त जातच १८९८ दसेंबरांत मंगळुर थाव्न ४० मय्लां पय्स घाटामुळांत कासरगोडलागिं नेल्लिकुंज म्हळ्ळये अेक्ये दुर्बळये हळ्ळेक वचोन अेका परन्या कोडक्यांत बिडार कर्न वाऱ्या–बोताचि, हिंवा-पाव्साचि, जळारि–मसांचि आनी कष्टां-पिडेचि इजा सोसुन, आपले निमाणे दीस त्या हळ्ळेच्या लोकाचि सेवा कर्चांत ताणे खर्चिले । जायित्या ल्हान आनी व्हड आड्कळि मधें थिरायेन आनी धीरान तो वावुर्लो । आपल्ये भलायकेचि जतन घेनातल्लेवविं जाव्प्रेत थंय पावल्ल्या थोडयाच तेंपान म्हळयार १८९९ मे महिन्याचे ३१ तारिकेर तो अंतर्लो ।

चारित्रीक महत्वाचे प्रदेश कन्नड नाडांत सबार आसात । आंजेलो माफेयिन ह्या प्रदेशांचें संदर्शन कर्न सबार चारित्रिक सोद्नां चलयलिं आनी आपल्या संशोधना वविं खूप माहेत आप्णायलि । केनराचि चरित्रा बरंव्च्या खातीर जायती साहेत ताणे जमो केल्लि । ताणे सोडल्ल्या १५२२ हात बर्पांचा पानांचा आधारान The Mangalore Magazine म्हळ्ळे पत्रिकेंत Places of Interest in South Kanara म्हळ्ळ्या नांवाखाल सबार लेखनां पर्गट जालिं । ह्याच्च हात बर्पांच्या आधारान श्री जेरोम सल्दान्हान Outlines of the History of Canara म्हळ्ळें लेखन बरयिल्लें । मानदिक मूवर बापान History of the Diocese of Mangalore म्हळ्ळो ग्रंथ बरयताना चडावत साहेत माफेयि बापाच्या हात-बर्पां थाव्न काडल्लि ।

माफेयि बापान केल्लि कोंक्णी भाषेचि सेवा, चरित्रेचें संशोधन आनी विद्याभ्यासांत ताचो अन्भोग मानुन १८९५ इस्वेंत मद्रास विश्वविद्यालयाचा आडळते मंडळाचो सांदो (Fellow of the University of Madras) ताका नेम्लो। थोडचाच तेंपान बि. अे. आनी अेम. अे. परिक्षांक चरित्रेचो परीक्षक (Examiner) आनी उप्रांत चरित्रेचो आनी लातिन, जर्मन आनी ग्रीक भासांच्ये शिक्पा समिति (Board of Studies) चो वांगडि ताका नेम्लो ।

पन्नास आनी पांच वर्सां संपच्ये पयलेंच माफेयि बाप अंतर्लो। चरित्रेचो विद्वांस तो। भासांच्या शिक्पांत ताचें देणें विशेस। जेजु क्रीस्ताचि सेवा करुंक मंग्ळुर पावल्ल्या माफेयि बापान कोंक्णी भाषेचो मोग आनी तिचि सेवा करून, कोंक्णीचो दिवो जळव्न दवरूंक कुमक केलि। ताच्या निस्वार्थी सेवे आनी बऱ्या मनापासत सर्व कोंक्णी लोकान ताचो उप्कार आटंव्क फावो ।

**जे. स. रूपर्ट रोजारियो**

——o——

## Statement of Ownership and other particulars about the Journal "AMAR KONKANI".

*Form IV*

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | Place of Publication | .. | **Mangalore** |
| 2. | Periodicity of its Publication | .. | **Half Yearly** |
| 3. | Printer's Name | .. | **Sri. V. Dinker Kamath** |
| | Nationality | .. | **Indian** |
| | Address | .. | **Sharada Press, Maroli, Mangalore — 575 005** |
| 4. | Publisher's Name | .. | **Rev. Leo D'Souza, S. J.,** |
| | Nationality | .. | **Indian** |
| | Address | .. | **St. Aloysius College, Mangalore — 575 003** |
| 5. | Editor's Name | .. | **Sri. V.J.P. Saldanha** |
| | Nationality | .. | **Indian** |
| | Address | .. | **Lower Bendur, Mangalore — 575 002** |
| 6. | Name and address of Individuals who own the Journal and partners or share holders holding more than one percent of the total capital: | } | **Rev. Leo D'Souza, S.J.** |

I, Leo D'Souza, S. J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

Mangalore,
30—7—1981

Sd. **Leo D'Souza, S.J.**
(Signature of the Publisher)

## पिंजकर काळीज | ಪಿಂಜ್ಕರ್ ಕಾಳಿಜ್

रागान तुवें
अुतरांच्या भाल्यान
काळीज म्हजें
सारखेंच शिंदलें
आतां कित्याक
मोगा सुअेन
अुम्याच्या सुतान
तें शिवताय ?
घाय धांपत
माअ् अुरतली
खुणा कशी
तुज्या गर्वाची
ह्या म्हज्या
पिंजकर काळजाचेर.

—प्रताप नायक

ರಾಗಾನ್ ತುಂವೆಂ
ಉತರಾಂಚ್ಯಾ ಭಾಲ್ಯಾನ್
ಕಾಳಿಜ್ ಮ್ಹಜೆಂ
ಸಾರ್ಕೆಂಚ್ ಶಿಂದಲೆಂ
ಆತಾಂ ಕಿತ್ಯಾಕ್
ಮೊಗಾ ಸುಯೆನ್
ಉಮ್ಯಾಚ್ಯಾ ಸುತಾನ್
ತೆಂ ಶಿಂವತಾಯ್?
ಘಾಯ್ ಧಾಂಪತ್
ಮಾಉ ಉರತಲಿ
ಖುಣಾ ಕಶಿ
ತುಜ್ಯಾ ಗರ್ವಾಚಿ
ಹ್ಯಾ ಮ್ಹಜ್ಯಾ
ಪಿಂಜ್ಕರ್ ಕಾಳ್ಜಾಚೆರ್.

ಪ್ರತಾಪ್ ನಾಯಕ್.

—×—

## चलियेचें मागणें | ಚಲಿಯೆಚೆಂ ಮಾಗ್ಣೆಂ

सोभाय तुजि
म्हज्या पोल्यांक
तुजो रंगरे
वोंटांक म्हज्या
पर्मळ तुजो
म्हज्ये कुडिक
दीरे मोगा
गुलोब राया!

—वल्ली, वग्ग

ಸೊಭಾಯ್ ತುಜಿ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಪೊಲ್ಯಾಂಕ್
ತುಜೊ ರಂಗ್‌ರೇ
ವೊಂಟಾಂಕ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ
ಪರ್ಮಳ್ ತುಜೊ
ಮ್ಹಜ್ಯೆ ಕುಡಿಕ್
ದಿರೇ ಮೊಗಾ
ಗುಲೊಬ್ ರಾಯಾ!

—ವಲ್ಲಿ. ವಗ್ಗ

—×—

# पुर्विलया पाद्रिंचो कोंकणी अभ्यास

अितालियान जेजुयित पाद्री अिगनाझिय् आरकामॉनि (१६१५-१६८३), बाणावली, साश्टी, गोंय हांगाचे भागेवंत् जुआंव बापतिस्त अिगरजेचो विगार हांणीं अेक लांब सुमार १२,००० अुतरांचो वाको (report) बरोवन १६६४ त आपल्या रोमाच्या सर्व व्हडिलाक साश्टी प्रांताच्या क्रिस्तांवपणावयर पूर्ण माहीत दिली; हो लातीं भाशेंत बरयल्लो हस्तलेख (manuscript) रोमाच्या राश्ट्रिय ग्रंथलयांत आस. ताची भास फावोतितली बरी आस, आनी ताचे शैलीचेर लातीं प्रमाण लेखकांचो, भव करून सीसेरू हाचो प्रभाव पडला. सुमानाचे आनी महिन्याचे दीस रोमी पंचांगा प्रमाणे दाखयल्यात, पण महत्वाच्या घडितांक परयांत तारिख लांवक ना. आनी ह्या खातीर ताचें अितिहासीक मोल दवेना ।

जिनसांवार आनी अपूर्व परिचया शिवाय, १६ व्या आनी १७ व्या शेकडयांत जेजुयित प्रचारकांक कोकणी भास शिकपाची, कित्याक गरज पडली आनी ती ताणीं कशी भागयली, हाचे वयर तो दाखलो अील्लो नवो अुजवाड घालता । हरशें, जेजुयित संस्थेच्या नेमां प्रमाणें, जे जे देसांत तिचे वांगडी वावुरतात थंयची देशी भास शिकुंक जाय, जशें ते भारताच्यो अनेक भासो शिकले; पण गोंय अर्ध शेकडो वयर फिरंग्यांच्या हातांत पडल्या उपरांत परयांत, कोंकणी शिकुंक तांणी यत्न करूंक ना, कारण गोंयचे खेरीत परिस्थिति खातीर क्रिस्ती भावार्थाचे जारूळ गरजांक पुर्तुगेज भास पुरो आसली ।

आफोंसु द् आलबुकॅर्क बेगीनच गोंयच्या लोकांचें वरतें ज्ञान समजलो आनी क्रिस्ती धर्माक बाटच्या

# ಪುರ್ವಿಲ್ಯಾ ಪಾದ್ರಿಂಚೊ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಅಭ್ಯಾಸ್

ಇತಾಲಿಯಾನ್ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪಾದ್ರಿ ಇಗ್ನಾಝಿಯು ಆರ್ಕಾಮೊನಿ [೧೬೧೫–೧೬೮೩], ಬಾಣಾವ್ಲಿ, ಸಾಶ್ಟಿ, ಗೊಂಯ್ ಹಾಂಗಾಚೆ ಭಾಗೆವಂತ್ ಜುಆಂವ್ ಬಾಪ್ತಿಸ್ತ್ ಇಗರ್ಜೆಚೊ ವಿಗಾರ್ ಹಾಂಣೆಂ ಏಕ್ ಲಾಂಬ್ ಸುಮಾರ್ ೧೨,೦೦೦ ಉತ್ರಾಂಚೊ ವಾಕೊ (report) ಬರೊವ್ನ್ ೧೬೬೪ ತ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ರೊಮಾಚಾ ಸರ್ವ್ [ಶ್ರೇಷ್ಟ್] ವ್ಹಡಿಲಾಕ್ ಸಾಶ್ಟಿ ಪ್ರಾಂತಾಚ್ಯಾ ಕ್ರಿಸ್ತಾಂವ್‌ಪಣಾವಯ್ರ್ ಪೂರ್ಣ್ ಮಾಹಿತ್ ದಿಲಿ: ಹೊ ಲಾತಿಂ ಭಾಶೆಂತ್ ಬರಯ್‌ಲ್ಲೊ ಹಸ್ತ್‌ಲೇಖ್ (manuscript) ರೊಮಾಚ್ಯಾ ರಾಷ್ಟ್ರೀಯ್ ಗ್ರಂಥಾಲಯಾಂತ್ ಆಸಾ. ತಾಚಿ ಭಾಸ್ ಫಾವೊ ತಿತ್ಲಿ ಬರಿ ಆಸಾ, ಆನಿ ತಾಚೆ ಶೈಲಿಚೆರ್ ಲಾತಿಂ ಪ್ರಮಾಣ್ ಲಿಖಿಕಾಂಚೊ, ಭವ್ ಕರುನ್ ಸಿಸೆರು (Cicero) ಹಾಚೊ, ಪ್ರಭಾವ್ ಪಡ್ಲಾ. ಸುಮಾನಾಚೆ ಆನಿ ಮಹಿನ್ಯಾಚೆ ದೀಸ್ ರೊಮಿ ಪಂಚಾಂಗಾ ಪ್ರಮಾಣೆಂ ದಾಖಯ್ಲ್ಯಾತ್, ಪಣ್ ಮಹತ್ವಾಚ್ಯಾ ಘಡಿತಾಂಕ್ ಪರ್ಯಾಂತ್ ತಾರಿಖ್ ಲಾಂವ್ಕ್ ನಾ. ಆನಿ ಹ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ತಾಚೆಂ ಇತಿಹಾಸಿಕ್ ಮೊಲ್ ದೆಂವ್ನಾ.

ಜಿನ್ಸಾಂವಾರ್ ಆನಿ ಅಪೂರ್ವ್ ಪರಿಚಯಾ ಶಿವಾಯ್ ೧೬ವ್ಯಾ ಆನಿ ೧೭ವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪ್ರಚಾರಕಾಂಕ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ಶಿಕ್ಪಾಚಿ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಗರಜ್ ಪಡ್ಲಿ ಆನಿ ತಿ ತಾಣೆಂ ಕಶಿ ಭಾಗಯ್ಲಿ, ಹಾಚೆವಯ್ರ್ ತೊ ದಾಖ್ಲೊ ಇಲ್ಲೊ ನವೊ ಉಜ್ವಾಡ್ ಘಾಲ್ತಾ. ಹರ್ಶೆಂ, ಜೆಜ್ವಿತ್ ಸಂಸ್ಥೆಚ್ಯಾ ನೆಮಾಂ ಪ್ರಮಾಣೆಂ ಜೆ ಜೆ ದೆಸಾಂತ್ ತಿಚೆ ವಾಂಗ್ಡಿ ವಾವ್ರುರ್ತಾತ್ ಥಂಯ್ಚಿ ದೆಶಿ ಭಾಸ್ ಶಿಕುಂಕ್ ಜಾಯ್. ಜಶೆಂ ತೆ ಭಾರತಾಚ್ಯೊ ಅನೇಕ್ ಭಾಸೊ ಶಿಕ್ಲೆ; ಪಣ್ ಗೊಂಯ್ ಅರ್ಧ್ ಶೆಕ್ಡೊವಯ್ರ್ ಫಿಂಗ್ರ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಹಾತಾಂತ್ ಪಡ್ಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಪರ್ಯಾಂತ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಿಕುಂಕ್ ತಾಂಣೆಂ ಯತ್ನ್ ಕರುಂಕ್ ನಾ, ಕಾರಣ್ ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಖೆರಿತ್ ಪರಿಸ್ಥಿತಿ ಖಾತಿರ್ ಕ್ರಿಸ್ತಿ ಭಾವಾರ್ಥಾಚೆ ಜಾರುಳ್ ಗರ್ಜಾಂಕ್ ಪುರ್ತುಗೆಜ್ ಭಾಸ್ ಪುರೊ ಆಸ್ಲಿ.

ಆಫೊನ್ಸು ದ್ ಆಲ್ಬುಕೆರ್ಕ್ ಬೆಗೀಂಚ್ ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಲೊಕಾಂಚೆಂ ವರ್ತೆಂ ಜ್ಞಾನ್ ಸಮ್ಜಲೊ ಆನಿ ಕ್ರಿಸ್ತಿ

आदींच, आपल्या राजकारभारांत तांकां नेमले आनी फिरंगी भास शिकुंक शाळो घातल्यो; त्या करवीं अनेक गोंयकार खेरीतपणान करमळी गांवचे बामण, बेश बरी पुर्तुगेज शिकले, आनी ते गणितांत समर्थ आसले देखुन, अुंच उद्धे तांकां फावो जाले। १५४१ त गोंय नगरांत पवित्र भावार्थाचो मठ (Seminary of Holy Faith) स्थापलो, आनी तो, भाग। फ्रांसिश्क शावियेर १५४२ त आयल्या अुपरांत, १५४३ त जेजुयित संस्थेच्या ताब्यांत केलो आनी भाग। पावलाचें विद्यालय (College of St Paul) हें नांव दिलें; त्या विद्यालयांत पुर्तुगेज भाशेची मुळावी शाळा रचली, आनी तातुंत क्रिस्ती आनी अक्रिस्ती गोंयचीं भुरगीं फिरंगी भास शिकुंक लागलीं; हे मुलकी भुरगे फुडाराक परकी धर्मप्रचारकांक फिरंगी भाशेंतल्यान कोंकणी शिकुंक भव अुपयोगाक पडपाचे आसले। सद्धाक पाद्रिंक देशी भाशेची जबरशी गरज नासली, कारण बातिजमाचो संस्कार फिरंगी भाशेंतल्यान दिताले; मागणीं, गायनां आनी दतन फिरंगी भाशेन पाठ करूंक लायताले, आनी तेच भाशेन प्रवचन (Sermon) आनी सगलो धर्मीक व्यहार करताले, आनी मागीर ताची समजणी पुर्तुगेज शिकलले मुलकी दुभाशी (interpreter) कोंकणींतल्यान दिताले।

पण अेक वेळ आयलो जेदळां आपले संस्कृत यादनिकेंत फुडें चांट मारपाक, त्या परवयां पाद्रिंक, कोंकणी भाशे शिवाय, दुसरो अुपाय नासलो। म्हणज पापउचाराचो संस्कार (Sacrament of confession) दुभाशा उदेशीं पुरोंवक जायना, पण पापअुचारतल्याचे (penitent) भाशेंतुच करचें पडटा। असल्या प्रसंगांत जेजुयित पाद्रिंचेर कोंकणी शिकपाची पाळी आयली। ही गोश्ट १५६० च्या सुमाराक वर्तली (Occurred). ह्याच वर्सा जेजुयित पाद्री धर्म-प्रकाशा खातीर साश्टींत प्रवेसले, आनी, प्रि. आरकामॉनि सांगता, अुत्तरे वाटेन सांकवाळ नांवाच्या खेडयांत

ಧರ್ಮಾಕ್ ಬಾಟ್ಲ್ಯಾ, ಆದಿಂಚ್, ಆಪ್ಲ್ಯಾ ರಾಜ್ ಕಾರ್ಭಾರಾಂತ್ ತಾಂಕಾಂ ನೆಮ್ಲೆ ಆನಿ ಫಿರ್ಗಿ ಭಾಸ್ ಶಿಕೊಂಕ್ ಶಾಳೊ ಘಾತ್ಲ್ಯೊ; ಹ್ಯಾ ಕರ್ವಿಂ ಅನೇಕ್ ಗೊಂಯ್ಕಾರ್ ಖೆರಿತ್ಪಣಾನ್ ಕರ್ಮಳಿ ಗಾಂವ್ಚೆ ಬಾಮಣ್, ಬೇಶ್ ಬರಿ ಪುರ್ತುಗೆಜ್ ಶಿಕ್ಲೆ, ಆನಿ ತೆ ಗಣಿತಾಂತ್ ಸಮರ್ಥ್ ಆಸ್ಲೆ ದೆಖುನ್, ಉಂಚ್ ಉದ್ದೆ ತಾಂಕಾಂ ಫಾವೊ ಜಾಲೆ. ೧೫೪೧ ತ್ ಗೊಂಯ್ ನಗರಾಂತ್ ಪವಿತ್ರ್ ಭಾವಾರ್ಥಾಚೊ ಮಠ್ (Seminary of Holy Faith) ಸ್ಥಾಪ್ಲೊ, ಆನಿ ತೊ ಭಾಗೆವಂತ್ ಫ್ರಾನ್ಸಿಸ್ ಸಾವೆರ್ ೧೫೪೨ತ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ೧೫೪೩ತ್ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಸಂಸ್ಥೆಚ್ಯಾ ತಾಬ್ಯಾಂತ್ ಕೆಲೊ ಆನಿ ಭಾಗೆವಂತ್ ಪಾವ್ಲಾಚೆಂ ವಿದ್ಯಾಲಯ್ (College of St. Paul) ಹೆಂ ನಾಂವ್ ದಿಲೆಂ; ಹ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ ಪುರ್ತುಗೆಜ್ ಭಾಶೆಚಿ ಮುಳಾವಿ ಶಾಳಾ ರಚ್ಲಿ, ಆನಿ ತಾಂತುಂತ್ ಕ್ರಿಸ್ತಿ ಆನಿ ಅಕ್ರಿಸ್ತಿ ಗೊಂಯ್ಚಿಂ ಭುರ್ಗಿಂ ಫಿರ್ಗಿ ಭಾಸ್ ಶಿಕೊಂಕ್ ಲಾಗ್ಲಿಂ; ಹೆ ಮುಲ್ಕಿ ಭುರ್ಗೆ ಫುಡಾರಾಕ್ ಪರ್ಕಿ ಧರ್ಮ್ ಪ್ರಚಾರಕಾಂಕ್ ಫಿರ್ಗಿ ಭಾಶೆಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಿಕೊಂಕ್ ಭವ್ ಉಪಯೋಗಾಕ್ ಪಡಪಾಚೆ ಆಸ್ಲೆ. ಸದ್ಯಾಕ್ ಪಾದ್ರಿಂಕ್ ದೆಶಿ ಭಾಶೆಚಿ ಜಬರ್ಶಿ ಗರಜ್ ನಾಸ್ಲಿ, ಕಾರಣ್ ಬಾತಿಜ್ಮಾಚೊ ಸಂಸ್ಕಾರ್ ಫಿರ್ಗಿ ಭಾಶೆಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ದಿತಾಲೆ; ಮಾಗ್ಣಿಂ, ಗಾಯನಾಂ ಆನಿ ದೊತರ್ನ್ ಫಿರ್ಗಿ ಭಾಶೆನ್ ಪಾಠ್ ಕರುಂಕ್ ಲಾಯ್ತಾಲೆ, ಆನಿ ತೇಂಚ್ ಭಾಶೆನ್ ಪ್ರವಚನ್ (Sermon) ಆನಿ ಸಗ್ಳೊ ವ್ಯಹಾರ್ ಕರ್ತಾಲೆ, ಆನಿ ಮಾಗಿರ್ ತಾಚಿ ಸಮ್ಜಣಿ ಪುರ್ತುಗೆಜ್ ಶಿಕ್ಲೆಲೆ ಮುಲ್ಕಿ ದುಭಾಶಿ (interpreter) ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ದಿತಾಲೆ.

ಪಣ್ ಏಕ್ ವೇಳ್ ಆಯ್ಲೊ ಜೆದ್ಳಾಂ ಆಪ್ಲ್ಯೆ ಸಂಸ್ಕೃತ್ ಯಾದ್ನಿಕೆಂತ್ ಫುಡೆಂ ಚಾಂಟ್ ಮಾರಪಾಕ್, ತ್ಯಾ ಪರ್ಕ್ಯಾಂ ಪಾದ್ರಿಂಕ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆ ಶಿವಾಯ್ ದುಸ್ರೊ ಉಪಾಯ್ ನಾಸ್ಲೊ. ಮ್ಹಣ್ಜೆ ಪಾಪ್ ಉಚಾರಾಚೊ ಸಂಸ್ಕಾರ್ (Sacrament of Confession) ದುಭಾಶ್ಯಾ ಉದೆಶಿಂ ಪುರೊಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್ನಾ, ಪಣ್ ಪಾಪ್ ಉಚಾರ್ತಲ್ಯಾಚೆ (penitent) ಭಾಶೆಂತುಚ್ ಕರ್ಚೆಂ ಪಡ್ಟಾ. ಅಸಲ್ಯಾ ಪ್ರಸಂಗಾಂತ್ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪಾದ್ರಿಂಚೆರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಿಕ್ಪಾಚಿ ಪಾಳಿ ಆಯ್ಲಿ. ಹಿ ಗೋಶ್ಟ್ ೧೫೬೦-ಚ್ಯಾ ಸುಮಾರಾಕ್ ವರ್ತಲಿ (occurred). ಹ್ಯಾಚ್ ವರ್ಸಾ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪಾದ್ರಿ ಧರ್ಮ್ ಪ್ರಕಾಶಾ ಖಾತಿರ್ ಸಾಶ್ಟಿಂತ್ ಪ್ರವೇಸಲೆ, ಆನಿ ಪಾದ್ರಿ ಆರ್ಕಾಮೊನಿ ಸಾಂಗ್ತಾ, ಉತ್ತರೇ ವಾಟೆನ್ ಸಾಂಕ್ವಾಳ್

संस्थेचें पयलें घर बांधतात (वाक्याचो अध्याव ४); त्या मागीर फाटाफाट तीन घरां स्थापतातः रायचुरा (Rachol), राय गांवचे व्हंयचे लागीं अेक भाग, जंय १५३५ त अेक किल्लो बांधून फिरंगी लोकाची वसणुक रावताली; मडगांवा (Margao), साश्टिच्या बामणांचो मुख्य गांव आनी सगळया प्रांताचो माज, जंय संस्थेचो व्हडील रावपाक मुख्य घर केलें; आनी ओर्ले (Orlim), चार्डयांचो मुख्य गांव (ibid).

आपल्या वावरांत येश मेळपाक देशी भास शिकची गरज म्हण पाद्रिक बेगीन समजुंक लागलें: "Colonis his erudiendis sive adjuvandis naturalis Patriae hujus terrae loquela requiritur", म्हणजे "आदिवाश्यांक शिकवण आनी सहकार दिवपाक ह्या देशाचे मुलकी भाशेची गरज" (अध्याव ५)। हे परीं १५६३ त अेक गोंयकार बामण भाग. पावलाचा विद्यालयांत देवशास्त्राचो विद्यार्थी हाच्या आधारान त्या विद्यालयांत कोंकणी शिकोवपाचे वर्ग सुरू केले; पण गोंय नगराचें वातावरण कोंकणीक अुपकाराक पडनासलें देखून, ही शाळा १५६५ त चोडण जुंव्यार (Island of Chorao) व्हेली; आनी हांगा अितली फुलली आनी फांकारली कि अनेक फिरंगी पाद्री शुद्ध आनी सरळ कोंकणींत प्रवचन करताले; अितल्या म्हणसर कोंकणी व्याकरण आनी शब्दकोश तयार जालीं, ज्या करवीं गोंया भाग. पावलांत परतुन १५७०त कोंकणी वर्ग करूंक लागले।

साश्टी ज्ञान आनी मोत खूब आसलीं; जेजुयित पाद्रिनी मडगांवां, (Margao) १५७४ त अेक विद्यालय स्थापलें आनी १५७५ त तातुंत कोंकणी शाळा रचली। संस्थेचे कांय पाद्रि आनी तरणे धर्मबंधु (brothers) देशी भास खोलायेन शिकुंक लागले। भावीं फिरंगी भाशेंत प्रवीण बामणांची मजत घेवन (Lusitana

ನಾಂವಾಚ್ಯಾ ಖೆಡ್ಯಾಂತ್ ಸಂಸ್ಥೆಚೆಂ ಪಯ್ಲೆಂ ಘರ್ ಬಾಂಧ್ತಾತ್ [ವಾಕ್ಯಾಚೊ ಅಧ್ಯಾವ್ ೪]; ತ್ಯಾ ಮಾಗೀರ್ ಫಾಟಾಫಾಟ್ ತೀನ್ ಘರಾಂ ಸ್ಥಾಪ್ತಾತ್; ರಾಯ್‌ಚುರಾ (Rachol), ರಾಯ್ ಗಾಂವ್ಚೆ ನ್ಹಂಯ್ಚೆ ಲಾಗಿಂ ಏಕ್ ಭಾಗ್, ಜಂಯ್ ೧೫೩೫ತ್ ಏಕ್ ಕಿಲ್ಲೊ ಬಾಂಧೂನ್ ಫಿರಂಗಿ ಲೊಕಾಚಿ ವಸ್ಣುಕ್ ರಾವ್ತಾಲಿ; ಮಡ್ಗಾಂವಾ (Margao), ಸಾಶ್ಟಿಚ್ಯಾ ಬಾಮ್ಣಾಂಚೊ ಮುಖ್ಯ ಗಾಂವ್ ಆನಿ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಪ್ರಾಂತಾಚೊ ಮಾಜ್, ಜಂಯ್ ಸಂಸ್ಥೆಚೊ ವ್ಹಡಿಲ್ ರಾವ್‌ಪಾಕ್ ಮುಖ್ಯ ಘರ್ ಕೆಲೆಂ; ಆನಿ ಒರ್ಲೆ (Orlim), ಚಾಡ್ಯಾಂಚೊ ಮುಖ್ಯ ಗಾಂವ್ (ibid).

ಆಪ್ಲ್ಯಾ ವಾವ್ರಾಂತ್ ಯೆಶ್ ಮೆಳ್‌ಪಾಕ್ ದೆಶೀ ಭಾಸ್ ಶಿಕ್ಚಿ ಗರಜ್ ಮ್ಹಣ್ ಪಾದ್ರಿಂಕ್ ಬೆಗೀನ್ ಸಮ್ಜುಂಕ್ ಲಾಗ್ಲೆಂ: "Colonis his erudiendis sive adjuvandıs naturalis Patriae hujus terrae loquela requiritur" ಮ್ಹಣ್ಜೆ "ಆದಿವಾಶ್ಯಾಂಕ್ ಶಿಕವ್ಣ್ ಆನಿ ಸಹಕಾರ್ ದಿವ್‌ಪಾಕ್ ಹ್ಯಾ ದೇಶಾಚೀ ಮುಲ್ಕೀ ಭಾಶೆಚಿ ಗರಜ್" [ಅಧ್ಯಾವ್ ೫]. ಹೇ ಪರಿಂ ೧೫೬೩ತ್ ಏಕ್ ಗೊಂಯ್ಕಾರ್ ಬಾಮಣ್ ಭಾಗೆವಂತ್ ಪಾವ್ಲಾಚ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ ದೇವ್ ಶಾಸ್ತ್ರಾಚೊ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿ ಹಾಚ್ಯಾ ಆಧಾರಾನ್ ತ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಿಕೊವ್ಪಾಚೆ ವರ್ಗ್ ಸುರು ಕೆಲೆ; ಪಣ್ ಗೊಂಯ್ ನಗರಾಚೆಂ ವಾತಾವರಣ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಕ್ ಉಪ್ಕಾರಾಕ್ ಪಡನಾಸ್ಲೆಂ ದೆಖೂನ್, ಹೀ ಶಾಳಾ ೧೫೬೫ತ್ ಚೊಡಣ್ ಜುಂವ್ಯಾರ್ (Island of chorao) ವ್ಹೆಲಿ; ಆನಿ ಹಾಂಗಾ ಇತ್ಲಿ ಫುಲ್ಲಿ ಆನಿ ಫಾಂಕಿವಂತ್ ಜಾಲಿ ಕಿ ಅನೇಕ್ ಫಿರಂಗಿ ಪಾದ್ರಿ ಶುದ್ಧ್ ಆನಿ ಸರಳ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ ಪ್ರವಚನ್ ಕರ್ತಾಲೆ; ಇತ್ಲ್ಯಾ ಮ್ಹಣಸರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವ್ಯಾಕರಣ್ ಆನಿ ಶಬ್ದ್‌ಕೋಶ್ ತಯಾರ್ ಜಾಲಿಂ, ಜ್ಯಾ ಕರ್ವಿಂ ಗೊಂಯಾ ಭಾಗೆವಂತ್ ಪಾವ್ಲಾಂತ್ ಪರ್ತುನ್ ೧೫೭೦ತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವರ್ಗ್ ಕರುಂಕ್ ಲಾಗ್ಲೆ.

ಸಾಶ್ಟಿ ಜ್ಞಾನ್ ಆನಿ ಮೋತ್ ಖೂಬ್ ಆಸ್ಲಿಂ; ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪಾದ್ರಿಂನಿ ಮಡ್ಗಾಂವಾಂ, (Margao) ೧೫೭೪ತ್ ಏಕ್ ವಿದ್ಯಾಲಯ್ ಸ್ಥಾಪ್ಲೆಂ ಆನಿ ೧೫೭೫ತ್ ತಾಂತುಂತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಾಳಾ ರಚ್ಲಿ. ಸಂಸ್ಥೆಚೆ ಕಾಂಯ್ ಪಾದ್ರಿ ಆನಿ ತರ್ಣೆ ಧರ್ಮ್‌ಬಂಧು (brothers) ದೆಶೀ ಭಾಸ್ ಖೊಲಾಯೆನ್ ಶಿಕುಂಕ್ ಲಾಗ್ಲೆ. ಭಾವಿಂ ಫಿರಂಗಿ ಭಾಶೆಂತ್ ಪ್ರವೀಣ್ ಬಾಮ್ಣಾಂಚಿ ಮಜತ್ ಘೆವ್ನ್ (Lusitana lingua periti Brachmanes);

lingua periti Brachmanes) मडगांवचें विद्यालय कोंकणी भाशेचें अभ्यास केंद्र जालें । पण मयरांचा धाडां खातीर हें विद्यालय १५८० त रायतूरच्या किल्ल्यांत व्हेलें; रायतूरचें विद्यालय (College of Rachol) साश्टी प्रांताचें मुख्य ठिकाण, आनी अभ्यासाचें आनी जाणवायेचें स्थान जावंक पावलें, जंय नवे जेजुयित पाद्रिनी दोन व तीन वर्सां देशी भास आनी तिची लिपी शिकची पडटा (ibid).

रायतुरच्या विद्यालयांत चापखाणो आसलो । थंय जेजुयित संस्थेचे व्हड कोंकणी विद्वान उत्पन्न जाले, जांचो अनुक्रम आरकामॉनि हाच्या हस्तलेखाची (अध्याव १६) माहीत जमोवन असो संक्षेपुयेता; १) टोमस स्टिफन्स् (१५४९-१६१९) जाणें रचलले ग्रंथ हे आसात: क्रिस्तपुराण (१६१६), मराठी ओवी, जांतुंत सगळेंजवळ क्रिस्ती पवित्र पुराण आटापलां, आनी मुलकी लोकांक चड करून अस्त्रयांक खूप आवडटा; Doutrina Christam म्हणजे क्रिस्ती धर्मीक मुमूर्त (१६२२), कोंकणी गद्य, "जी सर्व लोकांच्या हातांत खेळटा;" आनी Arte de Lingoa Canarim (१६४०) म्हणजे कोंकणी भाशेचें व्याकरण । २) दियोगु रिबेयरू (१५६०-१६३३): कोंकणी भाशेचो शब्दकोश (१६२६), दोन खंड; पेद्रु रिबादेनेर हांणीं बरयलली Flos Sanctorum हाचें कोंकणी भाशांतर; आनी कार्डिनल बेलार्मीन हाच्या सुमुर्तीच्या पुस्तकाचें कोंकणी प्रभाशण (interpretation), आदि । ३) अेतियॅन द् ला क्रुआ (१५७९-१६४३): भाग. पेद्रुचें पुराण (१६२९), मराठी कवन, जांतुंत हिन्दु देवशास्त्राचो विवेक केला । ४) आंतोंनियु द् सालदान्ञ (१५९८-१६६३), हो देशी भास अितले संपूर्णायेन शिकलो की गांवचो मुलकी दिसतालो, (indigena videretur), आनी कितलींच वरतीं पुस्तकां बरयलीं, पण तांतलें अेकच प्रकाशलें (भाग. आंतोनिची

ಮಡ್ಗಾಂವ್ಚೆಂ ವಿದ್ಯಾಲಯ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚೊ ಅಭ್ಯಾಸ್ ಕೇಂದ್ರ್ ಜಾಲೆಂ. ಪಣ್ ಮಯ್ರಾಂಚ್ಯಾ ಧಾಡಾಂ ಖಾತಿರ್ ಹೆಂ ವಿದ್ಯಾಲಯ್ ೧೫೮೦ತ್ ರಾಯ್‌ಚುರ್‌ಚ್ಯಾ ಕಿಲ್ಲ್ಯಾಂತ್ ವೆಲೆಂ; ರಾಯ್‌ಚುರ್‌ಚೆಂ ವಿದ್ಯಾಲಯ್ (College of Rachol) ಸಾಶ್ಟಿ ಪ್ರಾಂತಾಚೆಂ ಮುಖ್ಯ ಠಿಕಾಣ್, ಆನಿ ಅಭ್ಯಾಸಾಚೆಂ ಆನಿ ಜಾಣ್ವಾಯೆಚೆಂ ಸ್ಥಾನ್ ಜಾಂವ್ಕ್ ಪಾವ್ಲೆಂ, ಜಂಯ್ ನವ್ಯಾ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಪಾದ್ರಿಂನಿ ದೋನ್ ವ ತೀನ್ ವರ್ಸಾಂ ದೆಶಿ ಭಾಸ್ ಆನಿ ತಿಚಿ ಲಿಪಿ ಶಿಕ್ಚಿ ಪಡ್ಟಾ (ibid).

ರಾಯ್‌ಜುರ್‌ಚ್ಯಾ ವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ ಚಾಪ್ಖಾಣೊ ಆಸ್ಲೊ. ಥಂಯ್ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಸಂಸ್ಥೆಚೆ ವ್ಹಡ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿದ್ವಾನ್ ಉತ್ಪನ್ನ್ ಜಾಲೆ, ಜಾಂಚೊ ಅನುಕ್ರಮ್ ಆರ್ಕಾಮೊನಿ ಹಾಚ್ಯಾ ಹಸ್ತ್‌ಲೇಖಾಚಿ [ಅಧ್ಯಾವ್ ೧೬] ಮಾಹೀತ್ ಜಮೊವ್ನ್ ಅಸೊ ಸಂಕ್ಷೆಪುಂಯೆತಾ: ೧. ಟೊಮಸ್ ಸ್ಟೀಫನ್ಸ್ [೧೫೪೯–೧೬೧೯] ಜಾಣೆ ರಚ್ಲಲೆ ಗ್ರಂಥ್ ಹೆ ಆಸಾತ್: ಕ್ರಿಸ್ತಪುರಾಣ್ [೧೬೧೬], ಮರಾಠಿ ಒವಿ. ಜಾಂತುಂತ್ ಸಗ್‌ಳೆಂಜವಳ್ ಕ್ರಿಸ್ತಿ ಪವಿತ್ರ್ ಪುರಾಣ್ ಆಟಾಪ್ಲಾಂ, ಆನಿ ಮುಲ್ಕಿ ಲೊಕಾಂಕ್ ಚಡ್ ಕರುನ್ ಅಸ್ತ್ರ್ಯಾಂಕ್ ಖೂಪ್ ಆವಡ್ಟಾ: Doutrina Christam. ಮ್ಹಣ್ಜೆ ಕ್ರಿಸ್ತಿ ಧರ್ಮೀಕ್ ಸುಮುರ್ತ್ [೧೬೨೨], ಕೊಂಕ್ಣಿ ಗದ್ಯ, "ಜಿ ಸರ್ವ್ ಲೊಕಾಂಚ್ಯಾ ಹಾತಾಂತ್ ಖೆಳ್ಟಾ"; ಆನಿ Arte de Lingoa Canarim [೧೬೪೦] ಮ್ಹಣ್ಜೆ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚೆಂ ವ್ಯಾಕರಣ್. ೨. ದಿಯೊಗು ರಿಬೆಯ್ರು [೧೫೬೦–೧೬೩೩]: ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚೊ ಶಬ್ದ್‌ಕೋಶ್ [೧೬೨೬], ದೋನ್ ಖಂಡ್, ಪೆದ್ರು ರಿಬಾದೆನೆರ್ ಹಾಂಣಿಂ ಬರಯ್ಲಲೊ Flos Sanctorum ಹಾಚೆಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶಾಂತರ್; ಆನಿ ಕಾರ್ಡಿನಲ್ ಬೆಲಾರ್ಮಿನ್ ಹಾಚ್ಯಾ ಸುಮುರ್ತಿಚ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಚೆಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪ್ರಭಾಶಣ್ (interpretation), ಆದಿ. ೩. ಎತಿಯೆನ್ ದ್ ಲಾ ಕ್ರುಆ [೧೫೭೯–೧೬೪೩]: ಭಾಗೆವಂತ್ ಪೆದ್ರುಚೆಂ ಪುರಾಣ್ [೧೬೨೯], ಮರಾಠಿ ಕವನ್, ಜಾಂತುಂತ್ ಹಿಂದು ದೇವ್ ಶಾಸ್ತ್ರಾಚೊ ವಿವೇಕ್ ಕೆಲಾ. ೪. ಆಂತೊನಿಯು ದ್ ಸಾಲ್ದಾಞ್ [೧೫೯೮–೧೬೬೩], ಹೊ ದೆಶಿ ಭಾಸ್ ಇತ್ಲೆ ಸಂಪೂರ್ಣಾಯೆನ್ ಶಿಕ್ಲೊ ಕಿ ಗಾಂವ್ಚೊ ಮುಲ್ಕಿ ದಿಸ್ತಾಲೊ (indigena videretur), ಆನಿ ಕಿತ್ಲೀಂಚ್ ವರ್ತಿಂ ಪುಸ್ತಕಾಂ ಬರಯ್ಲಿಂ, ಪಣ್ ತಾಂತ್ಲೆಂ ಎಕ್‌ಚ್ ಪ್ರಕಾಶಲೆಂ [ಭಾಗೆವಂತ್ ಆಂತೊನಿಚಿ ಜಿವಿತ್ವ್‌ಕಥಾ], ಆನಿ ಹೆರ್ ಹಸ್ತ್‌ಲೇಖ್, ತಾಚ್ಯಾ ಮರಣಾಕ್ ಲಾಗುನ್

जिवित्व कथा), आनी हेर हस्तलेख, ताच्या मरणाक लागुन, व पेठेंत अुरले व खंय खंय शिपडले । ५) मिगेल द् आलमेयद (१६१०-१६८३ व १६८७) हाणीं ह्या देशाचे अलंकारी भाशेंतल्यान (terrae hujus eleganti lingua) भरपुर प्रवीण आनी ठावे शैलेन (satis docta et clara loquela) अनेक ग्रंथ बरयले आनी प्रकाशले: प्रवचनां, सुर्मुतिची पट्टी आनी कथा; ताचो ओंवाळयांचो मळो, ५ खंड, (१६५८) १७ व्या शेकडयांतलें मोतीं म्हणपा सारकें आस; ह्या भायर कोंकणी शब्दकोश जमयले । ६) जुआंव द् पेद्रोज (१६१५-१६७२), हाका चिनाक पाठयललो पण वाटेर बळळिकेक सांपडून गोंया अुरलो, आनी मागीर साश्टी प्रांताक नेमलो, जंय देशी भास बेश बरी अभ्यासली की मुलकी कसो दिसतालो (indigena videretur); तांणीं अलंकारी आनी भव प्रवीण शैलेन दोन पुस्तकां ग्रंथयलीं, अेक देवाकडेन भक्तिवंत आत्मभाशण (Pious Soliloquies with God), आनी दुसरें पापअुचाराचो विवेक ।

ह्या कुंजुयित कोंकणी विद्वानां मधें, अिगनाझियु आरकामॉनि आस; ताचो वाको De Sasatana Peninsula... Comentarium, हो लेख बरोवपाक हांवें वापुरला; ह्या शिवाय अनेक धर्मीक ग्रंथ ताणीं बरयले, आनी Janua Indica हांतुंत कोंकणी आनी मराठी भासो सर करून अभ्यास केला । धर्मप्रचारकांची ही सगली बरपावळ रोमी लिपींत केल्या। पण आरकामॉनि हाचे वयर आपलें मत, de la Croix हाच्या पुराणाक अुल्लेख करताना, अशें स्पश्ट करतात: Historia carminibus composita, utinam terrae hujus propriis literis exarata prodiisset. Idem de caeteris ab aliis conscriptis libris censendum videtur, म्हणजे, ही कवनकथा ह्या देशाचे लिपींत बरोवंक जाय आसली, आनी तेच लिपींत हेर लेखकांनी आपलीं पुस्तकां बरोवंक जाय आसलीं (अध्याव १६)। खरेपणींच हांगा आस कोंकणी भाशेच्या

ವ ಪೆಟೆಂತ್ ಉರ್ಲೆ ವ ಖಂಯ್ ಖಂಯ್ ಶಿಂಪಡ್ಲೆ. ೫. ಮಿಗೆಲ್ ದ್ ಆಲ್‌ಮೆಯ್ದ್ [೧೬೧೦–೧೬೮೩ ವ ೧೬೮೭]. ಹಾಂಣೆಂ ಹ್ಯಾ ದೆಶಾಚೇ ಅಲಂಕಾರೀ ಭಾಶೆಂತ್ಲ್ಯಾನ್ (terrae hujus eleganti lingua) ಭರ್ಪುರ್ ಪ್ರವೀಣ್ ಆನಿ ಠಾವೇ ಶೈಲೆನ್ (satis docta et clara loquela) ಅನೇಕ್ ಗ್ರಂಥ್ ಬರಯ್ಲೆ ಆನಿ ಪ್ರಕಾಶಲೆ: ಪ್ರವಚನಾಂ. ಸುಮುರ್ತಿಚಿ ಪಟ್ಟಿ ಆನಿ ಕಥಾ; ತಾಚೊ ಒಂವ್ಳ್ಯಾಂಚೊ ಮಳೊ. ೫ ಖಂಡ್. [೧೬೫೮] ೧೭ ವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ಲೆಂ ಮೊತೀಂ ಮ್ಹಣ್ಪಾಸಾರ್ಕೆಂ ಆಸಾ: ಹ್ಯಾ ಭಾಯ್ರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಶಬ್ದ್‌ಕೋಶ್ ಜಮಯ್ಲೆ. ೬. ಜುವಾಂವ್ ದ್ ಪೆದ್ರೋಜ್ ೧೬೧೫ – ೧೬೭೨]. ಹಾಕಾ ಚೀನಾಕ್ ಪಾಟಯ್ಲ್ಲೊ ಪುಣ್ ವಾಟೆರ್ ಬಳ್ಳಿಕೆಕ್ ಸಾಂಪ್ಡೂನ್ ಗೊಂಯಾ ಉರ್ಲೊ. ಆನಿ ಮಾಗೀರ್ ಸಾಷ್ಟಿ ಪ್ರಾಂತಾಕ್ ನೆಮ್ಲೊ. ಜಂಯ್ ದೆಶೀ ಭಾಸ್ ಬೇಶ್ ಬರೀ ಅಭ್ಯಾಸ್ಲಿ ಕಿ ಮುಲ್ಕಿ ಕಸೊ ದಿಸ್ತಾಲೊ (indigena videretur); ತಾಂಣೆಂ ಅಲಂಕಾರೀ ಆನಿ ಭವ್ ಪ್ರವೀಣ್ ಶೈಲೆನ್ ದೋನ್ ಪುಸ್ತಕಾಂ ಗ್ರಂಥಯ್ಲಿಂ, ಏಕ್ ದೆವಾಕಡೆನ್ ಭಕ್ತಿವಂತ್ ಆತ್ಮಭಾಶಣ್ (Pious soliloquies with God), ಆನಿ ದುಸ್ರೆಂ ಪಾಪ್‌ಉಚಾರಾಚೊ ವಿವೇಕ್.

ಹ್ಯಾ ಜೆಜ್ವಿತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿದ್ವಾನಾಂ ಮಧೆಂ ಇಗ್ನಾಸಿಯುಸ್ ಆರ್ಕಾಮೊನಿ ಆಸಾ: ತಾಚೊ ವಾಕೊ De Sasatana Peninsula....Comentarium, ಹೊ ಲೇಖ್ ಬರೊವ್ಪಾಕ್ ಹಾಂವೆಂ ವಾಪುರ್ಲಾ: ಹ್ಯಾ ಶಿವಾಯ್ ಅನೇಕ್ ಧರ್ಮಿಕ್ ಗ್ರಂಥ್ ತಾಂಣೆಂ ಬರಯ್ಲೆ, ಆನಿ Janua Indica ಹಾಂತುಂತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಆನಿ ಮರಾಠಿ ಭಾಸೊ ಸರ್ ಕರೂನ್ ಅಭ್ಯಾಸ್ ಕೆಲಾ. ಧರ್ಮ್‌ಪ್ರಚಾರಕಾಂಚಿ ಹಿ ಸಗ್ಳಿ ಬರ್ಪಾವಳ್ ರೊಮಿ ಲಿಪೀಂತ್ ಕೆಲ್ಯಾ. ಪುಣ್ ಆರ್ಕಾಮೊನಿ ಹಾಚೆ ವಯ್ರ್ ಆಪ್ಲೆಂ ಮತ್. de la croix—ಹಾಚ್ಯಾ ಪುರಾಣಾಕ್ ಉಲ್ಲೇಖ್ ಕರ್ತಾನಾ. ಅಶೆಂ ಸ್ಪಶ್ಟ್ ಕರ್ತಾತ್: Historia carminibus composita, utinam terrae hujus propriis literis exarata prodiisset. Idem de caeteris ab aliis conscriptis libris censendum videtur, ಮ್ಹಣ್ಜೆ, ಹೀ ಕವನ್‌ಕಥಾ ಹ್ಯಾ ದೆಶಾಚೇ ಲಿಪೀಂತ್ ಬರೊಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್ ಆಸ್ಲಿ, ಆನಿ ತೇಚ್ ಲಿಪೀಂತ್ ಹೆರ್ ಲೆಖಕಾಂನಿ ಆಪ್ಲಿಂ ಪುಸ್ತಕಾಂ ಬರೊಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್ ಆಸ್ಲಿಂ [ಅಧ್ಯಾವ್ ೧೬]. ಖರೆಪಣೀಂಚ್ ಹಾಂಗಾ ಆಸಾ

आनी साहित्याच्या अतिहासाचो काळाचो प्रसंग । जी रोमी लिपी १६ व्या आनी १७ व्या शेकडयांत पाद्रिनी आपले पुश्कळ आनी श्रेश्ट बरपावळींत आपलेच सोये पासुन वापुरली, ह्या खातीर न्हंयच मुलकी भाशेंत तांची अुदरगत अडचली, पण बगर हे भाशेच्या संयबीक अनुक्रमाक व्हड अडचण जाली, आनी फुडें तिच्या विरुद्ध निश्टूर उपाय घेवन, अडेच शेकडयांच्या काळांतरीं, चिंदरां आनी बोंदरां असले स्थितीर पावली जी भास अेका वेळार ह्या देसाची अलंकारी भास म्हण पाचारताले!

–प्रो. लु. आ. रोद्रीगिश

ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚ್ಯಾ ಆನಿ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚ್ಯಾ ಇತಿಹಾಸಾಚೊ ಕಾಳಾಚೊ ಪ್ರಸಂಗ್. ಜಿ ರೊಮಿ ಲಿಪಿ ೧೬ವ್ಯಾ ಆನಿ ೧೭ವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಪಾದ್ರಿಂನಿ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಪುಶ್ಕಳ್ ಆನಿ ಶ್ರೇಶ್ಟ್ ಬರ್ಪಾವಳೀಂತ್ ಆಪ್ಲೇಚ್ ಸೊಯೆ ಪಾಸುನ್ ವಾಪ್ರಲ್ಲಿ, ಹ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ನ್ಹಂಯ್ಚ್ ಮುಲ್ಕಿ ಭಾಶೇಂತ್ ತಾಂಚಿ ಉದರ್ಗತ್ ಅಡ್ಚಲಿ, ಪಣ್ ಬಗರ್ ಹೆ ಭಾಶೆಚ್ಯಾ ಸಂಯ್ಬೀಕ್ ಅನುಕ್ರಮಾಕ್ ವ್ಹಡ್ ಅಡ್ಚಣ್ ಜಾಲಿ, ಆನಿ ಫುಡೆಂ ತಿಚ್ಯಾ ವಿರುದ್ ನಿಶ್ಟೂರ್ ಉಪಾಯ್ ಘೆವ್ನ್, ಅಡೇಚ್ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಕಾಳಾಂತರೀಂ, ಚಿಂದ್ಯಾಂ ಆನಿ ಬೊಂದ್ಯಾಂ ಅಸಲೆ ಸ್ಥಿತೀರ್ ಪಾವ್ಲಿ ಜಿ ಭಾಸ್ ಎಕಾ ವೆಳಾರ್ ಹ್ಯಾ ದೆಶಾಚಿ ಅಲಂಕಾರೀ ಭಾಸ್ ಮ್ಹಣ್ ಪಾಚಾರ್ತಾಲೆ!

—ಪ್ರೊ. ಲು. ಆ. ರೊದ್ರೀಗಿಶ್.

— x —

# ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಆನಿ ತಾಚೆಂ ವೈಜ್ಞಾನಿಕ್ ಅಧ್ಯಯನ್— ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತೆಚ್ಯಾ ಉದರ್ಗತೆಂತ್ ಅಸಲ್ಯಾ ಅಧ್ಯಯನಾಚೊ ಪಾತ್ರ್

[ಪಯ್ಲ್ಯಾ ಅಂಕಾ ಥಾವ್ನ್ ಮುಂದರಿಲಾಂ]

ಭಾರತೀಯ್ ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಚೊ ವಿದ್ವಾಂಸ್ ಡಾ. ಮ. ನಾಯಕ್. ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚಾ ಭಾಷಿಕ್ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಚ್ಯಾರ್ ಮುಖೇಲ್ ಪಂಗ್ಡ್ಯಾಂನಿ ವಿಂಗಡ್ಸಿತಾ: [೧] ಲೋಕ್ ಕಥಾ [೨] ಲೋಕ್ ಗಿತಾಂ [೩] ಮ್ಹಣ್ಹೊಣಿ [೪] ಡುಮಿಣ್ಯೊ.

**ಲೋಕ್ ಕಥಾ:** ತೊಂಡ್ಯಾತಿಂ ಸಂಪ್ರದಾಯಾಚ್ಯಾ ಥಳಾರ್ ವ್ಹಾಳೊನ್ ಆಯಿಲ್ಲ್ಯಾ ಗದ್ಯಾ ಪ್ರಕಾರಾಚ್ಯಾ ವರ್ಗಾಂತ್ ಲೋಕ್ ಕಥಾ ಯೆತಾತ್. ಸ್ಟಿತ್ ಥಾಂಸನ್. ಆಂಟಿ ಆರ್ನೆ ಅಸಲ್ಯಾ ವಿದ್ವಾಂಸಾಂನಿ ಲೋಕ್ ಕಥಾಂ ವಯ್ರ್ ಗೂಂಡ್ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕೆಲಾಂ. ಲೋಕ್ ಕಥಾಂಕ್ ಕಿನ್ನರ್ ಕಥಾ. ಮುನ್ಶಾತಿ ಕಥಾ. ಅತಿಮಾನುಷ್ ಕಥಾ. ಹಾಸ್ಯ್ ಕಥಾ. ತಾಂತ್ರಿಕ್ ಕಥಾ. ನಿತಿ ಕಥಾ ಮ್ಹಣ್ ವಿಂಗಡ್ ಕರ್ಯೆತ್. ಅಸಲ್ಯಾ ಕಥಾಂನಿ ಮುನ್ಶ್ಯಾಚ್ಯಾ ಸುಪ್ತ್ ಪ್ರಜ್ಞೆಂಚಿ ಆಶಾ-ನಿರಾಶಾ ಪ್ರತಿಫಲಿತ್ ಜಾತಾತ್ ಆನಿ ಮನ ಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್ ವಿಶ್ಲೇಷಣಾ-ಯೋಗ್ಯ್ ವಿಷಯಾಂ ವಯ್ರ್ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕರುಂಕ್ ಅವ್ಕಾಸ್ ಲಾಭ್ತಾ.

**ಲೋಕ್ ಗಿತಾಂ:** ಕಥಾ ಗದ್ಯಾ ಪ್ರಕಾರಾರ್ ಆಸ್ಲ್ಯಾರ್ ಗಿತಾಂ ಪದ್ಯಾ ಪ್ರಕಾರಾಚಿಂ. ಕವಿತಾ ಶಿಕ್ಲಿ ಮುನ್ಶ್ಯಾಂಚೆಂ ದಾಯ್ಜ್ ಮಾತ್ರ್ ನಹಿಂ. ಸಾಧ್ಯಾ, ನಾಬರ್ಲಿ - ನಾಶಿಕ್ಲಿ ಮುನ್ಶ್ಯಾಂನಿ ಘಡ್ನ್ ಗಾಯಿಲ್ಲ್ಯಾ ಗಿತಾಂಕ್, ಗಾಣ್ಯಾಂಕ್, ಪದಾಂಕ್ ಆಯ್ಕಲ್ಯಾರ್, ಕಾನಡಿ ಕವಿನ್ ಹಾಂಚೆವಿಶಿಂ ಸಾಂಗ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ. "ಚದುರರ ನಿಜದಿಂ. ಕುರಿ ತೋಿದದೆಯುಂ ಕಾವ್ಯ ಪ್ರಯೋಗ ಪರಿಣತಮತಿಗಳ್" ಉತ್ರಾಂಚೆಂ ಸತ್ ದಿಸೊನ್ ಯೆತಾ. ಲಾವಣಿ, ಬ್ಯಾಲಡ್. ಕಥನ್ ಗಿತಾಂ, ವ್ಯವಸಾಯಿಕ್ ಗಿತಾಂ, ಫೆಸ್ತಾ-ಪರ್ಬಾಂ ವೆಳಾರ್ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ಗಿತಾಂ, ಲಗ್ನಾ ವೆಳಾರ್ ಗಾಂವ್ಚಿಂ

ಗಾಯನಾ, ಪೇಸ್ರ್, ವೊವಿಯೊ, ಪಾಳ್ಣೆ ಧಲಯ್ತಾನಾ. ನ್ಹಾಣಯ್ತಾನಾ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ಗಾಣಾಂ, ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಚೆ ಪ್ರಾಸ್. ನಾಚಾ ವೆಳಾರ್ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ಪದಾಂ—ಲೋಕ್‌ಗಿತಾಂಚೆ ಮುಖೇಲ್ ವರ್ಗ್. ಲಾವಣೆಂಚಿ ವಸ್ತು ಇತಿಹಾಸಾಚ್ಯಾ ಪಾನಾಂನಿ ಪುರೊನ್ ಗೆಲ್ಲಿ ತಸಲಿ. ಅಸಲ್ಯಾ ಗೀತಾಂನಿ ಬದ್ಲಾಪಾಕ್ ಅವ್ಕಾಸ್ ಉಣೊ. ವಾಜ್ಪಾ ಸಾಂಗಾತಾ, ದಾದ್ಲ್ಯಾಂನಿ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ಹಿಂ ಪದಾಂ ಭಾರತೀಯ್ ಸಮಾಜಿಂನಿ ಭರ್ಪೂರ್ ಮೆಳ್ತಾತ್.

ಕಥನ್‌ಗಿತಾಂನಿ ಸಾಮಾಜಿಕ್ ಆನಿ ಪೌರಾಣಿಕ್ ವಸ್ತು ಆಸೊನ್, ದುಃಖಾ-ವಿಕ್ಳಾಪಾಚಿ ಸಾವ್ಳಿ ಝಳ್ಕಾತಾ. ಚಡಾವತ್ ಜಾವ್ನ್ ಬಾಯ್ಲಾಂನಿ ಅಸಲಿಂ ಗೀತಾಂ ಗಾಂವ್ಚೆಂ ದಿಸೊನ್ ಯೆತಾ.

ವ್ಯವಸಾಯಿಕ್ ಗಿತಾಂನಿ, ಶೆತ್ಕಾರಾಂನಿ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ವ್ಯವಸಾಯಾಚ್ಯಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ವೆಳಾರ್, ದೆಖಿಖಾತಿರ್, ಸಾರೆಂ ಶಿಂಪ್ಡಾಯ್ತಾನಾ, ಕೊಸ್ತಾನಾ, ನೇಜ್ ಘಾಲ್ತಾನಾ, ಲುಂವ್ತಾನಾ, ತುಪೆಂ ಬಾಂಧ್ತಾನಾ ಗಾಂವ್ಚಿಂ ತಸಲಿಂ ಜಾವ್ನಾಸಾತ್. ಹಾಂಚೊ ಮುಖೇಲ್ ವಿಷಯ್—ದೇವ್ ಯಾ ಆಪ್ಲಾಕ್ ಖಾಣ್ ಜೆವಾಣ್—ನೆಸಾಣ್ ದಿಂವ್ಚಿ ಭುಂಯ್, ಪಾವ್ಸ್, ಪ್ರಕೃತಿ—ಆಸ್ತಾ. ಫೆಸ್ತ್-ಪರ್ಬೆಂ ವೆಳಾರ್ ಗಾಂವ್ಚ್ಯಾ ಕೀರ್ತನಾಂನಿ ಆರಾಧನ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ದೆವಾಚೆಂ ಇತಿಹಾಸ್ ಆನಿ ಸ್ತುತಿ ಆಸ್ತಾ. ಲಗ್ನಾ ವೆಳಿಂ ಚಲ್ಚ್ಯಾ ಪರ್ ಸಂಪ್ರದಾಯಾಕ್ ಸಹಜ್‌ಲ್ಲಿಂ ಪದಾಂ ಆಸಾತ್. ವಿವರಣಾತ್ಮಕ್ ಜಾವ್ನ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಪದಾಂನಿ ಸಂತೊಸ್-ಶೃಂಗಾರಾಚಿಂ ಭಗ್ಣಾಂ ಚಡ್. ಪಾಳ್ಣೆ ಧಲಯ್ತಾನಾ ಜಾಂವ್, ನ್ಹಾಣಯ್ತಾನಾ ಜಾಂವ್, ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ಖೆಳಯ್ತಾನಾ ಜಾಂವ್ ಗಾಂವ್ಚ್ಯಾ ಗಾಣಾಂನಿ ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ಹೊಗಳ್ನ್ಯಾಂಚೆಂ, ದೆವಾಸಂಗಿಂ ಸರಿ ಕರ್ಚೆಂ ದಿಸೊನ್ ಯೆತಾ. ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಪದಾಂನಿ ಪ್ರಾಸಾಕ್ ಚಡ್ ಮಹತ್ವ್, ತರ್ಕಾಬದ್ಧ್ ಆಲೊಚನ್ಯಾಂಕ್ ಸ್ಥಾನ್ ಉಣೆ.

**ಮ್ಹಣ್ಣಿ:** ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಸಾದ್ಯಾ ಜಿಣ್ಯೆಚ್ಯಾ ಚಾಲ್ಯಾ ಘುಡಿತಾಂನಿ ತಾತ್ವಿಕ್ ಉಂಚಾಯ್ ದೆಖ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾನ್ ಅಸಲೀಂಚ್ ಘುಡಿತಾಂ ಹೆರಾಂ ಥಂಯ್‌ಯಿ ಪಳೆವ್ನ್, ಹ್ಯಾ ಘುಡಿತಾಂಚ್ಯಾ ಅನ್ಭೋಗಾಕ್ ಏಕ್ ಸಾಮಾನ್ಯ್ ರೂಪ್ ದೀವ್ನ್, ಮುಕ್ಲ್ಯಾ ಪಿಳ್ಗೆಕ್ ಅಸಲ್ಯಾ ಸಂದರ್ಭಾಂನಿ ವಾಟ್ ದಾಖಂವ್ಕ್ ಸಸಾರ್ ಜಾಂವ್ಚೆಬರಿ, ಸಂಪ್ಯಾ ಪುಣ್ ವಿಂಚ್ಣಾರ್ ಉತ್ರಾಂಚ್ಯಾ ಮೆಳಿಂನಿ ಬಾಂಧುನ್ ದವರ್ಲ್ಯಾಂ. ಪರ್ ಭಾಸೆಂತ್ ಮ್ಹಣ್ಣಿಯೊ ಅಶೆಂ ಉಬ್ಜಾತಾತ್ ಆನಿ ಭಾಷಿಕ್ ಸೊಭ್ ದಿತಾತ್.

**ಹುಮಿಣ್ಯೊ:** ಸಾದ್ಯಾ ಮತಿಂಚ್ಯಾ ಬುದ್ವಂತ್ಕಾಯೆಚಿ ಪ್ರತೀಕ್ ಜಾವ್ನ್ ಹುಮಿಣ್ಯೊ ಲೊಕಾಮೊಗಾಳ್ ಜಾತಾತ್. ಶಾಣೆಪಣ್, ತರ್ಕ್‌ಬದ್ಧತಾ, ಕಲ್ಪನಾ-ಸಾಮರ್ಥಿ ಮುಖೇಲ್ ಗೂಣ್ ಜಾವ್ನಾಸ್ಚ್ಯಾ ಹುಮಿಣ್ಯಾಂನಿ ಪ್ರಾದೇಶಿಕ್ ವ್ಯತ್ಯಾಸ್ ಚಡ್ ದಿಸೊನ್ ಯೆನಾಂತ್. ವಯ್ಲ್ಯಾ ವರ್ಗ್ ಭಾಷಿಕ್ ಗುಣಾಂಚೆ ಅಸ್ಲ್ಯಾರ್ ಭೌತಿಕ್ ರುಪಾಂಚ್ಯಾ ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಕ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಭಂವಾರಿಂ ಪಳೆವ್ಯೆತ್. ಹಾಂಚ್ಯೆ ಪಯ್ಕಿ: ಲೋಕ್‌ನಾಚ್, ಪಾತ್ಯೆಣಿ, ಫೆಸ್ತ್-ಪರಬ್, ವೈದ್ಯ್, ರಿತಿ-ರಿವಾಜಿ, ಮಾಟ್-ಮಂತ್ರಾಂ, ನೆಸಾಣ್-ಜೆವಾಣ್ ಮುಖೇಲ್ ಜಾವ್ನಾಸಾತ್.

**ಲೋಕ್‌ನಾಚ್:** ಮಾನಸಿಕ್ ಭಗ್ಣಾಂಕ್ ಶಾರೀರಿಕ್ ಹಾವ್-ಭಾವಾಂನಿ ಅಭಿವ್ಯಕ್ತ್ ಕರ್ಚಿ ಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್ ಕಲಾ-ನಾಚ್. ನಾಚಾ ವೆಳಾರ್ ಮನ್ಶ್ಯಾಚ್ಯಾ ಕುಡಿಚೆ ವಿಶ್ವ ಮತಿಚ್ಯಾ ಭಗ್ಣಾಂಕ್ ಪಾಚಾರ್ಚೆಂ ಪ್ರಯತನ್ ಕರ್ತಾತ್. ನಾಚಾಂ ಭಿತರ್, ವೃತ್ತಿಕ್ ಸಂಬಂಧ್ ಜಾಲ್ಲೆ ನಾಚ್, ಧಾರ್ಮಿಕ್ ನಾಚ್, ಝುಜಾ ನಾಚ್ ಆನಿ ಶಿಕಾರಿ ನಾಚ್ ಮುಖೇಲ್ ಜಾವ್ನಾಸಾತ್.

**ಪಾತ್ಯೆಣಿ:** ಪಾತ್ಯೆಣಿ ಪರ್ತವ್ತಾ. ಮನ್ಶ್ಯಾ-ಜಿಣಿಯೆ ಖಾತಿರ್ ಗರ್ಜೆಚೆಂ ಮಾನಸಿಕ್ ಬಳ್. ಕಷ್ಟಾಂ-ಅನ್ಯಾರಾಂ ಮಧೆಂ, ಪಿಡೆ-ಶಿಡೆ ಮಧೆಂ, ದುಬ್ಳಿಕಾಯೆ-ಭುಕೆ ಮಧೆಂ ಜಿಯೆಂವ್ಚಿ ಆಶಾ ಆನಿ ಉದ್ದೇಶ್ ಹ್ಯಾ ಬಳಾ ಮಾರಿಫಾತ್ ಮೆಳ್ತಾತ್. ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಭಂವಾರಿಂಚ್ಯಾ ಪ್ರಕೃತೆಚ್ಯಾ ವಿಚಿತ್ರಾಂಕ್ ಪಳೆವ್ನ್ ಆದಿಮ್-ಮನಿಸ್ ಭಿಯೆಲೊ, ಕಾವ್ಜೆಲೊ ಆನಿ ಆಕಾಂತ್ಲೊ. ಹ್ಯಾ ಅಗಾಧ್ ಸಕ್ತೆಚಿ ಭಿರಾಂಕುಳಾಯ್ ಆಪ್ಣಾಕ್ ಮಿಕ್ವಾಲ್ಲಿ ಮ್ಹಣ್ ಸಮ್ಜೊನ್ ಉದಾಕ್, ಉಜ್ವಾಡ್, ಉಜೊ, ವಾರೆಂ ಅಸಲ್ಯಾ ಸಕ್ತಿಂಕ್ ದೈವಿಕ್ ರೂಪ್ ದೀವ್ನ್ ಆರಾಧನ್ ಕರುಂಕ್ ಆನಿ ಹ್ಯಾ ಸಕ್ತಿಂಕ್ ಶಾಂತ್ ದವರ್ನ್ ಆಪ್ಣಾಚ್ಯಾ ಜಿಣ್ಯೆಕ್ ಸುಖಿ ದವ್ರುಂಕ್ ಆಶೆಲೊ. ಹಾಚೊ ಪರಿಣಾಮ್ ಜಾವ್ನ್ ಪಾತ್ಯೆಣಿ ಉಬ್ಜಾಲಿ. ಸುರ್ವಾತೆರ್ ಪರ್ ಪಾತ್ಯೆಣಿ, ರಾಜಾಂವಿ ಥಳಾರ್ ಜಲ್ಮಲ್ಯಾರ್‌ಯಿ, ವೆಳಾ ಕಾಳಾರ್ ಹಿ ದೀಷ್ಟ ಮಾಯಾಕ್ ಜಾವ್ನ್ ಕುರ್ಡಿ ಪಾತ್ಯೆಣಿ ಜಾವ್ನ್ ಬದಲ್ಲಿ.

**ಮಾಟ್-ಮಂತ್ರಾಂ:** ಮನ್ಶ್ಯಾ-ಸಕ್ತೆಕ್ ಮಿಕ್ವಾಲ್ಲ್ಯಾ ಸಕ್ತೆಕ್ ಆಪ್ಣಾವ್ನ್, ಹಾಂಚ್ಯೆ ಕುಮ್ಕೆನ್ ಅತಿಮಾನುಷ್ ಕಾರ್ಯಾಂ ಕರ್ಚಿ ವಿದ್ಯಾ ಮಾಟ್-ಮಂತ್ರಾಂಚಿ ಜಾವ್ನ್

ಆಸಾ. ಏಕಾಕಾಳಾರ್ ವೈದ್ಯಶಾಸ್ತ್ರಯಿ ಹ್ಯಾಚ್ಚ್ ಪಂಗ್ಡಾಂತ್ ಮೆಳ್ತಾಲೆಂ ತರ್‌ಯಿ, ಆಜ್ ಏಕ್ ವಿಜ್ಞಾನ್ ಜಾವ್ನ್ ಬದಲ್ಲಾಂ. ಮಾಟ್-ಮಂತ್ರಾಂನಿ ವೈಜ್ಞಾನಿಕ್ ಯಾ ವೈದ್ಯಕೀಯ್ ಸೂತ್ರಾಂ ಆಟಾಪುನ್ ಆಸಾತ್ ತರ್‌ಯಿ, ಸೆಣಾರ್ಪಣಾ ಆನಿ ಕುಡ್ಡ್ಯಾ ಪಾತ್ಯೆಣೆ ವರ್ವಿಂ ಮಾಟ್ ಮಂತ್ರಾಂಚೊ ವಾಯ್ಟ್ ಪ್ರಭಾವ್ ಸಾಧ್ಯಾ ಲೋಕಾವಯ್ರ್ ಪಡ್ತಾ. ಅಪ್ಲ್ಯಾ ಬರೆಪಣಾಖಾತಿರ್ ಪೆರಾ ವಯ್ರ್ ಮಂತ್ರಾಂ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕೆಲ್ಯಾರ್ ಪ್ರಯೋಜನಾರ್ಥಕ್ ಮಂತ್ರಾಂ ಆನಿ ವಾಯ್ಟ್ ಸಕ್ತೆಂಕ್ ಆಡಾಂವ್ಕ್ ಮಂತ್ರಾಂ ಪ್ರಯೋಗ್ ಕೆಲ್ಯಾರ್ ನೇತ್ಯರ್ಥಕ್ ಮಂತ್ರಾಂ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ಅಶೆಂಚ್. ವಾಯ್ಟ್ ಸಕ್ತೆಂಚ್ಯಾ ಪ್ರಭಾವಾವಿಣೆ ಧೊರಿ ಪಯ್ಸ್ ಕರ್ಚ್ಯಾಕ್ ಧೊವಿ ಘಾಡಿ ಮ್ಹಣ್, ಆನಿ ವಾಯ್ಟ್ ಸಕ್ತೆಂಚ್ಯಾ ಕುಮ್ಕೆನ್ ಪೆರಾಂಕ್ ಮರಣ್ ಪಿಡಾ-ಶಿಡಾ, ಸಂಕಷ್ಟ್ ಹಾಡುಂಕ್ ಕೆಲ್ಯಾರ್ ಕಾಳಿ ಘಾಡಿ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್.

**ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಚೆಂ ವೈಜ್ಞಾನಿಕ್ ಅಧ್ಯಯನ್:** ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಚ್ಯಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ವಸ್ತುಂಕ್ ಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್ ರಿತಿರ್ ಜಮೊ ಕರ್ನ್ ತಾಂಚೆಂ ವೈಜ್ಞಾನಿಕ್ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕರ್ಚೆಂ ಖಂಚಾಯಿ ಭಾಷೆಚ್ಯಾ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತೆಚ್ಯಾ ಉದರ್ಗತೆ ಖಾತಿರ್ ಗರ್ಜೆಚೆಂ. ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚ್ಯಾ ವಸ್ತುಂಕ್ ಜಮೊ ಕರ್ಚೊ ವಾವ್ರ್ ಸದಾಂ ಸರ್ವದಾಂ ಚಲಾಜಾಯ್ ಪಡ್ತಾ, ಅಶೆಂ ಜಮೊ ಕರ್ತಾನಾ, ವಸ್ತುಂಚೆಂ ಮೂಳ್‌ರೂಪ್ ಸಾಂಬಾಳ್ಚೆಂ ಗರ್ಜೆಚೆಂ. ನಾ ತರ್, ಅಧ್ಯಯನಾವೆಳಿಂ, ವಸ್ತು-ನಿಷ್ಠತಾ ನಪಂಯ್ತ್ ಜಾತಾ. ದೆಖಿಖಾತಿರ್ ಲೋಕ್‌ಕಥಾಂಕ್ ಘೆವ್ಯಾಂ. ತಾಂಚೆಂ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕಶೆಂ ಕರ್ತಾತ್ ಮ್ಹಣ್ ವಿವರಾವ್ಯಾತ್, ಪಯ್ಲ್ಯಾ ಸುವಾತೆರ್, ಜಮೊ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಕಥಾಂಕ್ ಆನಿ ತಾಂಚ್ಯಾ ಸರ್ವ್ ಪಾಠಾಂತರಾಂಕ್, ಭೌಗೋಳಿಕ್ ತಶೆಂಚ್ ಕಾಳಿಕ್ ಜಾವ್ನ್ ವ್ಯವಸ್ಥಿತ್ ರುಪಾರ್ ಮಾಂಡುನ್ ಹಾಡ್ಚೆಂ. ಉಪ್ರಾಂತ್ ತ್ಯಾ ಕಥಾಂಕ್ ಮುಖೇಲ್ ಸನ್ನಿವೇಶಾಂ ಜಾವ್ನ್ ವಿಂಗಡಣ್ ಕರ್ಚೆಂ. ಅಸಲ್ಯಾ ಹರ್ ಸನ್ನಿವೇಶಾಂಚಿಂ ಸಬಾರ್ ರುಪಾಂ ಆಸೊಂಕ್ ಪುರೊ. ಅಸಲ್ಯಾ ಮಾಂಡಾವಳಿರ್ ಬಸಯಿಲ್ಲ್ಯಾ ಘಟಕಾಂಚೆಂ ಪ್ರಾದೇಶಿಕ್ ತಶೆಂಚ್ ಕಾಳಿಕ್ ಮೂಳ್ ಸೊಧುನ್ ಕಾಡ್ನ್ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಸಂಭವ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಬದ್ಲಾಪಾಂಚಿಂ. ರುಪಾಂತರಾಂಚಿಂ ಕಾರಣಾ ಸೊಧುನ್ ಕಾಡ್ಚೆಂ ಅಶೆಂ ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಿಕ್ ವಸ್ತುಂಚೆಂ ಸಾಧಾರಣ್ ಮೂಳ್. ಪ್ರಸಾರಾಚಿ ವ್ಯಾಪಕತಾ, ಪ್ರಾಚೀನತಾ, ನೈಸರ್ಗಿಕ್ ಆನಿ ಮುಳಾವ್ಯಾ ಲಕ್ಷಣಾಂಚ್ಯಾ ಸೂತ್ರಾಂ ಸಂಗಿಂ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಸಂಬಂಧ್ ಸ್ಥಳೀಯ್ ಪಾಠಾಂತರ್, ಸಂಪ್ರದಾಯಾಂಚೊ ಪ್ರಭಾವ್-ಹಾಂಚೆಂ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕರ್ನ್ ಹ್ಯಾ ಮುಳಾಥಾವ್ನ್ ಉಬ್ಜಲ್ಲ್ಯಾ ರುಪಾಂತರಾಂಕ್ ರಾಜಾಂವಿ ಸಂಬಂಧ್ ಮಾಂಡುಂಕ್ ಸಕ್ತಸಲಿ ಕಾಣಿಯೆಚಿ ಮೂಳ್‌ಮಾತೃಕಾ ಸೊಧಿಜಾಯ್ ಆನಿ ಹಾಂತುಂ ಸುಪ್ತ್ ಆಸ್ಚಿಂ ಮನ್ಶ್ಯಾ-ಮತಿಚಿಂ ಸಂವೇದನಾಂ, ಸಂಕೇತಾಂ ಆನಿ ಪ್ರೇರಣಾಂಚೆಂ ತುಲನಾತ್ಮಕ್ ಅಧ್ಯಯನ್ ಮನಶಾಸ್ತ್ರೀಯ್ ಸೂತ್ರಾಂಖಾಲ್ ಚಲಯ್ಜಾಯ್.

**ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಿಕ್ ಅಧ್ಯಯನಾವಯ್ರ್ ಏಕ್ ದೀಷ್ಟ್:** ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್, ಭಾರತೀಯ್ ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ ಏಕ್ ವಿಶಿಷ್ಟ್ ಸ್ಥಾನ್ ಆಪ್ಣಾಯ್ತಾ. ಹೆರ್ ಭಾರತೀಯ್ ಭಾಸಾಂನಿ ಯಾ ಸಂಸ್ಕೃತೆಂನಿ ಆಸ್ಚ್ಯಾವರ್ನ್ ಚಡ್ ಅಧ್ಯಯನಾ ಯೋಗ್ಯ್ ವಿಷಯ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಷೆಂತ್ ಆಸಾತ್ ಮ್ಹಳ್ಯಾಕ್ ದುಬಾವ್ ನಾ. ಆಪ್ಣಾಚ್ಯಾ ಧಾರ್ಮಿಕ್, ಭೌಗೋಳಿಕ್ ಆನಿ ಪ್ರಾದೇಶಿಕ್ ವಿಸ್ತಾರಾವರ್ವಿಂ, ಭಂವ್ತಿಲ್ಯಾ ಹೆರ್ ಭಾಷೆಂಚ್ಯಾ-ಸಂಸ್ಕೃತೆಚ್ಯಾ, ಪ್ರಭಾವಾವರ್ವಿಂ, ವಿದೆಶೀ ಸಂಸ್ಕೃತಿ ಆನಿ ರಾಜಕೀಯ್ ಪ್ರಭಾವಾವರ್ವಿಂ, ಪಂದ್ರಾ-ವೀಸ್ ಥರಾಂಚ್ಯಾ ಉಪ-ಭಾಸಾಂವರ್ವಿಂ, ಜಾತಿ-ಕಾಂತಿಚ್ಯಾ ವೈವಿಧ್ಯಾಂವರ್ವಿಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಷೆಚ್ಯಾ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತೆಚ್ಯಾ ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚಿ ವಿಸ್ತಾರಾಯ್ ಆಟಾಪುಂಕ್ ಕಷ್ಟ್.

ಖಾಸ್ಗಿ ವ್ಯಕ್ತೆಂನಿ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಪ್ರಯಾಸ್ ಚಡ್ ವಾವ್ರ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಷೆಚ್ಯಾ ಉದರ್ಗತೆ ಖಾತಿರ್ ಆಸಾ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಸಂಸ್ಥ್ಯಾಂನಿ ಕರುಂಕ್ ಫಾವೊ. ಅಸಲ್ಯಾ ವಾವ್ರಾ ಖಾತಿರ್ ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಅಧ್ಯಯನ್‌ಪೀಠಾಂಕ್, ಸರ್ಕಾರಿ ಆನಿ ಖಾಸ್ಗಿ ಸಂಸ್ಥ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಆರ್ಥಿಕ್ ಕುಮ್ಕೆದ್ವಾರಿಂ ಸ್ಥಾಪಿತ್ ಕರುಂಕ್ ಜಾಯ್. ಅಸಲ್ಯಾ ಅಧ್ಯಯನ್‌ಪೀಠಾಂನಿ, ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ ಗೂಡ್ ಮಾಹೆತ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಆನಿ ವೈಜ್ಞಾನಿಕ್ ಅಧ್ಯಯನಾ-ಕ್ರಮಾಂತ್ ಪಾತ್ಯೆಣಿ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ವಿದ್ವಾಂಸಾಂಚ್ಯಾ ಮುಖೇಲ್ಪಣಾ ಖಾಲ್, ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚ್ಯಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ರುಪಾಂಚೆಂ ಅಧ್ಯಯನ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ವೆವೆಗ್ಳಿಂ ಘಟಕಾಂ ಉಘಡುಂಕ್ ಜಾಯ್. ಹ್ಯಾ ಘಟಕಾಂನಿ, ಆಧುನಿಕ್ ಉಪಕರಣಾಂಚ್ಯೆ ಕುಮ್ಕೆನ್—ಟೇಪ್ ರೆಕೊರ್ಡರ್, ಕೆಮರಾ, ಫೋಟೋ ಫಿಲ್ಮ್, ವೀಡಿಯೊ ರೆಕೊರ್ಡರ್—ಆನಿ ಹೆರ್ ಸಮಾಜ್ ಶಾಸ್ತ್ರಾಂಚ್ಯಾ ಪಂಡಿತಾಂಚ್ಯಾ ಸಹಕಾರಾನ್—ಇತಿಹಾಸ್, ಭಾಷಾ-ಶಾಸ್ತ್ರ್, ವೈದ್ಯಶಾಸ್ತ್ರ್, ಭೂವಿಜ್ಞಾನ್, ಸಮಾಜ್

